# जीवितांतलीं घडितां

प्रताप नायक, जे. सं.



मार्ग प्रकाशन

**मार्ग प्रकाशन, जनेर १९८०**



**उजवाडावपी :**
ज्युलियस डिसुझा, जे. सं.
मार्ग प्रकाशन,
थॉमस स्टिफन्स निवास,
२००८ संत व्हिन्सेण्ट मार्ग,
पुणे ४११ ००१

**लेखकाचो पत्तो :**
प्रताप नायक, जे. सं.
सांत ब्रिटो हायस्कूल,
म्हापसा, गोवा ४०३ ५०७

**धापपी :**
दिलीप माजगावकर,
साप्ताहिक मुद्रण,
१०२५ सदाशिव, पुणे ४११ ०३०

**मोल : ३ रुपया**

कवितेचो स्वाद चाकून
आपलें जीवीतच काव्यमय
करपी वाचप्याक

# दोन अुतरां

प्रताप नायक अेक अुदेतें नेकेत्र. ताणी ‘ राखणो ’, ‘ काणीक ’, ‘ अुदेव ’ आनी हेर कोंकणी पत्रांचीं पाना गोबयलीं. ह्या तांच्या कामांत तांकां व्हडलें यश मेळ्ळां. गिन्यानान हुशार आनी खूब वाचपी, बरोवपी. सोळाव्या आनी सतराव्या शेकडयां पासून जेज्वित कोंकणिची सेवा करीत आयल्यात. थोमास स्टिवन, दियेगो रिबेरो, आंतोन सलदान, मिगेल दालमेद, जे. प्रिक्रील आनी दुसरे जेज्वित कोंकणिचो विकास करताले. आजूनय बाप वास्को दे रेगो, आनी मोरेनो दे सोज हुमेदीन आनी हुशारकायेन कोंकणी मातेची सेवा करूंक तळमळतात. प्रताप नायक हे वळेरिचो.

बेळगांव आसताना ताणी कोंकणी गितांचो आनी लोक साहित्याचो शोध केला आनी ताचीं फळां ताणी गोंयकार भक्तां मधें शिवरायल्यांत. मडगांवांत आनी पणजेंत तांचीं भाषणा मोलाची आनी महत्त्वाचीं म्हूण जायत्यांनी परखंडलें. “ कवी जलमाता आनी प्रवचनकार वाव्रान जाता ” अशी आमची अेक म्हण्णी आसा. प्रताप बाबाच्या आंगांत कविता भरलेली आसा. ताणी

“ **जीवितांतलीं घडितां** ” हे आपले सांकळेंत जिनसावार विषयांचेर बरयल्ल्यो कविता अेकठायल्यांत : कवी, अुदेव, जीवीत म्हजें, तुजें येणे, जीवितांतलीं घडितां, तूं आनी हांव, पावसाळ, ...... ह्या पुस्तकाची पाना परतिताना म्हज्या दोळयांनी राखी, कोंकणाचे खारवी, गावडी चली

ह्यो कविता भरल्यो. तांतूंत कितें तरी वेगळेंच आसा. गावडी चली कवितेंत Faith and Justice, भावार्थ आनी नीत हीं चितपां आनी तत्वां रिगल्लीं आसात:

" गावड्याली ती चली
तुका कित्याक तिची
लागल्या तितली काळजी
हांव चलो चारोडी
ती चली गावडी
मनशां मधें जाती
कोणे केल्यो दोशी ?"

प्रताप नायक अुदेंतिचे धार्मिक आनी मठवाशी मनीस. धार्मिक कवितांनी तांची शैली धांवता आनी ती पुरी निवळ जाता :

'पळे तीं शेतांतलीं फुलां
रुका झाडांचीं पाचवीं पाना
तांकां कोणे अशीं न्हेसयलां ?
आंब्याक गोडसाण किरायतेक कोडसाण
मिरसांगेक तिकसाण मिठाक खारसाण
फुलांक सुवास सुकण्यांक निवास
खंयच्यान आयला, कोणे दिला ?"

अुदेतें नेकेत्र, फुलते बोंगे आमचे प्रताप नायक. हें तांचे कवितेचें पुस्तक अुजवाडाक येताना हे आमचे आंवडे तांची कविता पालेंवची आनी फुलची. ताणी कोंकणिचे सेवेक तळमळून वावुरचें आनी आमचे आवय भाशेक

अुकलून दवरची. कोंकणिची क्रांती सुरू जाल्या, ती फुडे व्हरची आनी दालगादान आनी शणै गोंयबाबान पेटयल्ली चूल सदांच जिवी आनी ताजी अुरची.

आंतोन पेरेरा, जे. स.
सां फ्रानसीस शावेराचे अेकांतायेचें घर
बागा, कलंगूट, गोंय

* *

# मांडावळ

*

## १. जीवितांतलीं घडितां

म्हज्या जीवितांतलीं घडितां
शिकयतात म्हाका लिसांवां
सूख दूख हांवें भोगलां
कश्ट नश्ट हांवें सोसला
अिश्टांचो आशीर्वाद घेतला
नश्टयांचो शिराप आयकाला
दगलबाजाचो मार खेला
वंचनाचो सार पियेला
बापयचो राग देखला
आवयचो दाग घेतला
जीवितांतलें सूख पळयलां
दोळयांतलें दूख गळयलां
बेकारपणाची सजा चाखल्या
नेणारपणाची मजा पळयल्या
बायलेचो बांळतेर काडला
भुरग्यांचो संवसार चलयला
भयणीचें लग्न केलां
रीणाचें विघ्न अुरलां
नेण्टयांक बुदबाळ दिल्या
जाण्टयांची बाळ-बूद घेतल्या
वतांत त्रास काडला
शेतांत ग्रास जोडला
जायतें हांवें सोसलां
सोसून भोगून सलवलां
निराशेंत आशा अुदेल्या
भरवशाची निशा फांकल्या.

*

(आकाशवाणी, पणजी हांचे कृपेन)

## २. तुजे-म्हजे मधें

मोगान तुका दिल्लो हात
तुवें म्हाका लात मारली
शीत अशिल्लें पेज जातच
तुका भात बूद आयली

मोगान तुका वेंग मारली
तुका तेन्ना नाका जाली
कुडितलो म्हजो प्राण वेतच
दुखांच्यो कित्याक काडताय झरी ?

म्हजी तुका अुबगण येतच
दुसऱ्याची तुवें पाट धरली
ताणे तुका पाट करतच
म्हजी तुवें वाट राखली

अुंडयाची तुका रूच लागली
म्हजी भाकरी तुवें नाकारली
पोटाक तुज्या भूक लागतच
भाकरिची किंमत तुका समजाली

जल्मा दिसा साडी हाडली
रागान तुवें ती लासली
तुज्या भावान भेट दिल्ली
हें कळतच तूं रडली

तुका हांवें चिनेलां हाडलीं
म्हज्या आंगार तुंवें अुडयलीं
तुका तीं परत दिलीं
तुजीच तुका लज दिसली.

ती म्हाका पळेवन हासली
तूं रागान काळी जाली
तुका कांय खबर नाशिल्ली
ती म्हजी फुडली व्हनी

जेवणाक म्हजो अिश्ट आयल्लो
रागान तुंवें मटकी फुटयली
काल तुजो भात्र आयल्लो
मटकी फुटल्यान अुपाशीं गेलो.

हांवें तुका अिंगलीश शिकयतच
घरांत तुज्या अिंगलीश रिगली
खाशा आवयक भायर घालून
पोसके आवयक भितर हाडली

म्हाका तुजेर राग ना
तुका म्हजेर मोगा ना
हांव तुजो तूं म्हजी
हाची तुका काळजी ना.

आमचें मधें जायतें जालां
जांवचें सर्व जावन गेलां
सांगूक गेल्यार लज दिसता
घरांतली घाण गांवार वेता.

बायले म्हजे उघड दोळे
कितें जालां तें पळे
खंय पावलां आमचें घराणे
कोण कारण हाका सगळें ?



## ३. फाल्यांची चिंता

मनशा कित्याक तूं भियेताय
फाल्यांची चिंता आजच करताय
जेवणाची काळजी करून बसताय
न्हेसणाची फिकीर चिंतून सुकताय ?

मळबा वेली सुकणी पळय
तीं वोंपिनात वा लुविनात
आसात तीं सदांच खुशाल
तांचे परस तूं अमूल्य

पळे तीं शेतांतलीं फुलां
रुका झाडाचीं पाचवीं पाना
तांकां अशें कोणे न्हेसयलां
तांचे परस तूं भाग्यहीन ?

मोराचें आंग विवीध रंगान
किराची बोंच तांबड्या वर्णान
कोणे रंगयल्या कोणे नेटयल्या
तांचे परस तूं अधीर ?

दिसाचो रवी, रातीचो शशी
गोठ्यांत आसच्यो गायो म्हशी
गगनाचीं तारां दर्याचीं ल्हारां
कोणे रचल्यांत कित्यक केल्यांत ?

आंब्याक गोडसाण किरायतेक कोडसाण
मिरसांगेंक तिकसाण मिठाक खारसाण
फुलांक सुवास सुकण्यांक निवास
खंयच्यान आयला कोणे दिला ?

दोंगराक अंचाय दर्याक खोलाय
पिसोळ्याक सोबाय गोसाळ्याक लांबाय
माडाक लांबाय ताडाक घटाय
कशी लाभली कोणे हाडली ?

शेतांतलीं भातां भाताचीं कणसां
कांटियेक कांटे रूकांक फांटे
शिरांनी रगत बांयत अुदक
कोणें रचलें कशें केलें ?

खांद्यांक फळां मातियेंत पाळां
आकासा वयली सुकणी पाखरां
काळीं जांबळां पाचवीं पेरां
कशीं जालीं कित्याक खातीर ?

चिंतून हें मनन कर
कित्याक दिलां तुका सर्व
राजा आसाय तूं तांचो
गुलाम जाय नाका तुज्या स्वार्थाचो.

*

(आकाशवाणी, पणजी हांचे कृपेन)

## ४. तूं आनी हांव

तूं दिसाचो सूर्या
हांव रातीचो चंद्र
तूं तेलाचो दिवो
हांव त्या दिव्याची वात.
सुकण्यां–पाखरां भितर तूं पारवो
हांव रंगाळ भांगराळ लांडोर
मासळ्यां भितर तूं मासो
हांव निसरट पातळ लेप
रुका झाडांनी तूं धाटो मोटो माड
हांव बारीक लांबशी माडी
मोनजातींत तूं पराक्रमी सींव
हांव निराधारी धांवचें चितळ
धातुंनी तूं मोलादिक सोने
सादें धवें हांव रुपें
तूं फुलच्या मोगरेचो कळो
हांव तांबडें आबोलें
वाजत्रांत तूं पियानो
हांव गवळ्याची पिरलूक
द्रवां भितर तूं दूध
तांतू अुपेंवची* साय हांव
पिवनानी तूं काजुचो सोरो
हांव माडाची सूर.
तूं जाशी शिवकार
हांव जातेलीं तुजी सुअी

---

* Floating

तूं जाशी रांदपी
हांव जातेलीं तुजी फुंकणी
जाशी तूं सोनार
हांव तुजें अुज्याचें आग्टें
जाशी तूं चामार
जातेलीं तुज्या व्हाणाचें चामडें
तूं दिसाचो अुजवाड
हांव रातिचें चांदने
तूं हिमालय पर्वत
हांव कांचनगंगा शिखर
तूं हिन्दू महा सागर
वांकडी तिंकडी गंगा हांव
तूं म्हज्या जिवाचो प्राण
हांव तुज्या काळजाचें त्राण
तूं म्हजो मोगाचो राजा
हांव तुजी मोगाची राणी.

*

(आकाशवाणी, पणजी हांचे कृपेन)

## ५. अुदेव

तेल नाशिल्ल्या वाती बरी
मंद जातात नेखेत्रां
दर्या सागराच्या उदकांनी
अुठतात तरणी ल्हारां.

सुक्रू लिपता आकासार
काळोक धांपता अुजवाडांत
रवी येता अुदेंतींत
शशी बुडता अस्तमतेंत.

फांत्यांचें थंड वारें
व्हाळता निदल्ल्या भुमीर
कळात ताचें येणे
धांवत्या सुक्या खोल्यांचेर.

सुकणीं पाखरां अुडतात
अुल्लासाचीं गितां गायतात
संतोसान अुडी मारतात
आनंदान मळभार अुबतात.

दव पडल्लो रातीक
बागेंतल्या फुलाच्या फुलांचेर
पृथ्विच्या पाचव्या तणाचेर
रुकांच्या जिव्या पानाचेर.

झाडार गुलाब फुल्ला
आंबुरको दुलब हासता
माथ्यार सोबूंक पळेता
नारिचो सांगात आशेता

शेतकऱ्यान गोटयांत बांधल्लीं
गोरवां जाल्यांत जागीं
खिळखिळांचो आवाज ताणी
पाठयलो म्हज्या कानी

घालता कोंबो साद
आयकून ताचो नाद
मांदरी* सांडता बायल
तापोंवक सकाळिची कायल.

दीस अुदेवन येता
शेतकार शेतांत देंवता
कामगार कामाक लागता
जीवीत सर्वांचें चलता.

*

( आकाशवाणी, पणजी हांचे कृपेन)

---

* शेंदरी

## ६. हासचें बाळ

कित्याक बाळा हासताय
दांत तुजे दाखयताय ?
खंत हुसको तुका ना
फाल्यांची चिंता ना
वेळाची तुका पर्वा ना
खेळाची केदी अुबगण ना
म्हणून तर तूं हासताय ?
नेण्टे तुजे दोळे
गोरशे तांबडे पोले
पळेवन काळजांत
भरतात अुमाळे—
चेपटें नाक, दुधाचे दांत
काळशें केस, मृदू हात
दाखोवन हेरांक
हासोवन सर्वांक
काळजां तुजेशीं वोडताय
मनां लागीं तांडताय
काळजां—मना तूं चोरताय
हासून हासून रडा नाका
रडून रडून भागा नाका
हासतें मूख लिपय नाका
रडतें तोंड करी नाका
हासून खेळून राव बाळा
पडून अुठून चल कमळा.

*

(आकाशवाणी, पणजी हांचे कृपेन)

## ७. देखलो तुका

देखलो हांवें तुका
पाऊसाच्या उदकांत
झिम् झिम् पाऊसाच्या
टिप् टिप् करच्या
उदकाच्या थेंब्यांत

दिसलो तूं म्हाका
सकाळिच्या वतांत
तांबसाण देंवोन
हुनसाण वाडोवन
प्रसारच्या किर्णांत

पळेलो हांवें तुका
दर्या देगेर
सांजेच्या वाऱ्यांत
दर्याच्या उदकांत
उदकांतल्या ल्हारांत

हांवें तुका देखलो
म्हजे बागींत
गुलाबाच्या झाडार
कांटचा मधल्या गुलाबार
गुलाबाच्या रंगात.

रूप तुजें दिसलें
शेताच्या तणात
तणाच्या भातांत
मेरे वयल्या फुलांत
फुलार पडल्ल्या दवांत.

तुजो ताळो आयकालो
संगीताच्या नादांत
नादांतल्या भोगणात
भोगणानी अुठयल्ल्या
काळजाच्या अुमाळयांत.

दिसताय तूं म्हाका
भुरग्यांच्या हाशांत
दुखेस्ताच्या रडण्यांत
अिस्टाच्या घरांत
दुसमानाच्या दारांत.

देखलो हांवें तुका
विचारांच्या दोंगरार
साहित्याच्या शिखरार
लेखकाच्या रंगमंचार
वाचप्यांच्या तोंडार.

*

## ८. कवी

रवीन देखा नाशिल्लें कवीन देखलां
हेरांनी चाका नाशिल्लें ताणे चाकलां
राजांची बडाय गीतांनी लिखल्या
शिपायांची लडाय अुतरांनी लडल्या.
हासचें बाळ ताणे पिंत्रायलां
धांवचें चितळ ताणेच वर्णिलां
पृथ्विची सोबाय काव्यांनी रंगयल्या
मनशाची पिसाय हास्यांनी दाखयल्या.
दर्याची खोलाय काळजांत तुकल्या
दोंगराची अुंचाय मतींत मेजल्या
जीविताची कोंबरी युवकांत फुटयल्या
कवितांची सवी रसीकांत पेटयल्या
देवान रचूंक नाशिल्लें ताणे रचलां
मनशान चिंतूंक नाशिल्लें कवीन चिंतलां

*

(आकाशवाणी, पणजी हांचे कृपेन)

## ९. भावनाचीं जाळां

चिंतप रुकाक
विचारांचीं पाना
तत्वांचीं फळां
शब्दांचीं पाळां

जीविताच्या नाण्याक
दोन आंगां
सुखाचीं रुपां
दुखाचीं कुपां

सेवेचे दिवलेक
वात त्यागाची
दिवटोणी मोगाची

शांतिच्या चांदण्याक
कांतिचें आंगण
स्फूर्तिच्या अुज्याक
नीतिची रांदण.

मोगाच्या दर्यांत
चुंबनाचीं ल्हारां
अुतरांची जाळां
तीं संपतच
काळीं तोंडां
निराशेचीं वादळां.

रागाचे कायलींत
मत्सराचें तेल
तांतू भाजलें
वरसांचें हृट.

जीविताच्या शेतांत
पिकल्यांत भातां
प्रीतीच्या तळ्यांत
हासतात कमळां

काती वयली सोबाय
भायली पोकळ बडाय
मांदून घेवपी
अुसोवन दाखयता
आपलीच पिसाय.

म्हजी विचार सरणी
तुमकां पिशी दिसली
कित्याक मत तुमची
सदांच आसताली रिती.

अिश्टागतिचो पूल बांधला
मयामोगाचे न्हंयचेर
बुन्याद ताची घाला
विश्वासाच्या खडपाचेर.

आशावादी आनी निराशावादी
दोगूय जियेतात
पयलो आशेंत
दुसरो निराशेंत.

सपणाच्या समदिरांत
वेता फुडे
मोगा जोडें
घेवन आपलें
भोगणाचें होडें.

*

## १०. रगताचो वास

वास म्हाका येता रगताचो
हून हून रगता थेंब्यांचो
ह्या जिव्या रगता वासाची
म्हाका आतां सवय जाल्या
ताची रूच हांवें चाकल्या.
म्हजे भंवारी म्हाका आयकातात
फार मार गुळयांचे, बाँबांचे
म्हज्या पाटल्यान म्हज्या मुखल्यान
म्हज्या चारांय कुशिनी पडल्यांत
फकत मडीं म्हज्याच सारख्या मनशांचीं.
कितल्या आवयांचे पूत हांवें मारले
कितल्या भुरग्यांचे बापूय हांवें काडले
कितल्या स्त्रियांक विधव केलींत हांवें
ह्या पापांत हांव वांटेली
आसा देखून म्हाका जबाबदारी
म्हज्या देशाची रक्षण करपाची.
पोटा खातीर हो धंदो
म्हाका घेंवचोच पडलो
अेक मूठ शीताक लागून
लज धांपूंक अेक सूत हाडूंक
हें सर्व करचेंच पडलें
म्हज्या भावांचेच जीव काडचे जाले.
अितले दीस वास म्हाका येतालो
दुसऱ्यांच्या हून हून रगताचो
आज म्हाका वास येंवक लागल्या
थंडगार जाल्ल्या म्हज्याच रगताचो
कोणे जर म्हाका घाल्लो गुळो
चाकतों तरी स्वाद म्हज्याच रगताचो

*

## ११. मनीस म्हणजे कितें

मनीस म्हणजे कितें
मात्येचें घर तें
वाऱ्याक पडून वेचें.

मनीस म्हणजे कितें
तण तें शेतांतलें
अुज्यांत लासून वेचें

मनीस म्हणजे कितें
फूल झाडा वयलें
वताक बावोन झडचें

मनीस म्हणजे कितें
अुदका वयलो बुडबुडो
वाऱ्याक फुटून वेचो.

मनीस म्हणजे कितें
रंगाळ अेक पिसोळें
फुलां पाटल्यान धांवचें.

मनीस म्हणजे कितें
पिकल्लें पान रुकाचें
वाऱ्याक झडून पडचें

मनीस म्हणजे कितें
मात्येचें आयदन तें
आदळून फुटचें तसलें

मनीस म्हणजे कितें
दोंगरा वयलें तळें
वताक आटोन सुकचें.

मनीस म्हणजे कितें
अुदका वयलें होडें
अुदकार धलून अुपेंवचें.

मनीस म्हणजे कितें
वाऱ्यार धलचो सरंगो
वाऱ्यार नाचून अुबचो.

मनीस म्हणजे कितें
शेणाची एक शेणी
शेताक गोबर जावपाची.

मनीस म्हणजे कितें
वाऱ्याक धलचो वासो
धरणीक नमन करचो.

मनीस म्हणजे कितें
तेलाचो अेक दिवो
वाऱ्याक पालवून वेचो.

मनीस म्हणजे कितें
अिश्वराच्या पायांचें चिनेल
ताच्या घराचें जनेल.

मनीस म्हणजे कितें
शेणातलो अेक किडो
शेणातूच जलमून मरचो.

मनीस म्हणजे कितें
वाटें वयलो कांटो
वाटसुऱ्यांक त्रास दिपवाचो.

मनीस म्हणजे कितें
मीठाचो अेक खडो
अुदकांत मिसळून वेचो.

मनीस म्हणजे कितें
मासाचो अेक मुदो
तांतू आसा आत्मो.

मनीस म्हणजे कितें
मळबार अुबचें सुकणे
देवाचेंच अेक रुपणे.



## १२. चानी बाय

चानी बाये, चानी बाये
चींव चींव कित्याक करताय
मोगान तुका आपल्यार
धांवून कित्याक वेताय ?

खांवक तुका पेरां दितां
धाकटीं व्हडलीं तोरां हाडतां
तुज्या पिलांक हांव खेळयतां
तुजे संगी हांवूय येतां.

रुकार तूं धांवताना
वयर सकला नाचताना
चींव चींव आवाज करताना
म्हजें काळीज फुलता.

रुकांचेर तुजो निवास
फुलांचो घेवून सुवास
रावताय तूं खुशाल
करताय म्हाका फुशाल.

चानी बाये, चानी बाये
म्हाका सांडून धांवताय
घोंटेरांत तुज्या बसून
म्हाका तूं चिडयताय ?

चानी बाये, चानी बाये
रूका वयली दॆंवोन ये
अुसक्यार म्हज्या बसून
अुम्यांची हुनसाण घे.

चानी बाये, चानी बाये
पाटी तूं वचा नाका
मांडियेर म्हजे बसून
काणी सांग म्हाका



('कोंकणी' पत्राचे कृपेन)

## १३. गावडी चली

बाजारांत ती अुभी
न्हेसून साडी सुती
हातांत घेवून भुती
कोणागेली ती चली ?
पळेंवक दिसता सादी
घालून लांब फांती
माळून फुलां शेंवतीं
कोणाची ती कुमारी ?
नदर म्हजेर पडली
लजेन ती बावली
पाट करून चल्ली
कित्याक म्हाका भियेली ?
घरांत ती रिगली
दारा आड लिपली
मोगार म्हज्या पडली
देखून ती लजेली ?
आसपास खबर घेतली
तिची वळख विचारली
जाप लोकान दिली
" गावड्या गेली ती चली
तुका कित्याक तिची
लागल्या तितली काळजी ?"
हांव चलो चारोडी
ती चली गावडी
मनशां मधें जाती
कोणे केल्यो दोशी ?

*

[ आकाशवाणी, पणजी हांचे कृपेन ]

## १४. हांव भुकेलां

शांतीक सुखाक हांव भुकेलां
आत्मिक पिवनाक सदांच तानेलां
दैविक जीविताक खरोच आशेलां
तरी कित्याक दिनाय ?

ओलसाण नाशिल्ल्या जिवांत जिवसाण
कोडसाण भरल्ल्या काळजांत गोडसाण
आळसाय रिगल्ल्या जीवितांत हुनसाण
तरी कित्याक हाडीनाय ?

दीस रात हांव परात्तां
सदांच तुका बोबाटतां
तुजीच मजत सदांनीत मागतां
तरी कित्याक अुलयनाय ?

तुका भेटूंक गेल्लों अिगरजेंत
तुका सोदून आयल्लों मशीदींत
तुका मेळूंक भंवल्लो मंदीरांत
तरी कित्याक लिपलोय ?

तुजेविणे जिणी म्हजी रिती
मोगाविणे ती जांवची ना पुर्ती
आधाराविणे तुज्या बदलोंवची ना ती
तरी कित्याक बदलीनाय ?

अुदेंतीत रवी अुदेवन येता
अस्तमतेंत शशी दर्यांत लिपता
जिवनांत दुखी ल्हार अुठता
तरी कित्याक रावयनाय ?

अिश्वरा सोसून हांव सलवलां
परमेश्वरा सोसणिकाय सर्व संपल्या
देवा भावार्थ तुजेर धंडळ्ळा
तरी रागार जाय नाका.

*

(‘ रावणो ’ पत्राचे कृपेन)

## १५. लजे कांटी

शेताचे मेरेर
दोंगराचे तकलेर
चलचे वाटेर
रसत्याचे देगेर
हांव जल्मातां.
सकाळीं हांव फुलतां
सांजे हांव बावतां
गिमांत वतान सुकतां
पावसांत अुदकान किरलातां
पेल्याचें आंग लागल्यार
लजेन घडी भर कोवळतां
अुप्रांत मात आदलेंच रूप घेतां.
लज नाशिल्ली
कांटी हांव लजेची
गुपीत सादी म्हजी जिणी
पेल्याक अुपकाराक पडनशिल्ली.
देवा म्हज्या
कित्याक तुवें
म्हाका रचलीय ?
लजे कांटियेचें रूप
खंयच्या कर्माक दिलेंय ?
जालां हांव धरणीक भार
आनी साऱ्याक आधार.
वाटेर चलच्या वाटसुऱ्यांच्या
दोंगरार चरच्या गोरवांच्या

पांयांक हांव तोपतां
दुखीन तांचे पांय सुजयतां.
सर्व म्हाका शिरापतात
जिबेची खरोज काडीत
फुडे चलतात.
सृष्टिचे सगळे रचनेत
विचीत्र तुजे मांडावळींत
म्हजें स्थान कसलें ?
अुद्देशाविणे
अर्थ नाशिल्लें
जीवन म्हजें असलें.
कित्याक दिलाय
म्हाका ही शिक्षा
करताय म्हजी परिक्षा
दिवन रूप कांटियेचें ?
जालीं हांव तृप्ति
आयकून अुतरां तुजीं
" हांवें रचल्लें
म्हाका बरें दिसलें
जीवीत तुजें
हांवेंच येवजिल्लें. "
लजे कांटी
लजेन हांव जियेतां
जीवीत चार दिसांचें
तुकाच अर्पून मरतां.

*

(' राखणो ' पत्राचे कृपेन)

## १६. चांदी मामा

चांदी मामा, चांदी मामा
मळबार कित्याक धांवताय ?
म्हजो तुका राग आयला
देखून म्हाका सोडून पळताय ?

चांदी मामा, चांदी मामा
कुपांत कित्याक लिपलाय
दुसऱ्यांचेर आयल्लो राग
भाच्याचेर कित्याक काडताय ?

चांदी मामा, चांदी मामा
येता रातराणीचो वास
ताळियो पेटोवन हासच्या
भाच्याक पळेवन हास.

चांदी मामा, चांदी मामा
आंगार तुज्या कसलीं खतां
विवीध आकाराचीं काळीं कुपां
कोणे काडलीं हीं चित्रां ?

चांदी मामा, चांदी मामा
तुका कितें जाय ?
खाताय तर हाडून दितां
दुधा वयली साय.

चांदी मामा, चांदी मामा
भाच्याक तुज्या व्हर
काळचा निळचा कुपांचेर
अुकलून ताका धर.

चांदी मामा, चांदी मामा
घर तुजें आकास
थंय थावून फांकयताय
सोबीत तुजो प्रकास.

चांदी मामा, चांदी मामा
आमगेर कित्याक येनाय
आअीन म्हज्या लाडू केल्यात
खावन तरी वचानाय ?

*

('राखणो' पत्राचे कृपेन)

## १७. जीवीत देवाचें

जीवीत देवाचें व्हाळच्या उदकांत '
व्हाळता दोंगराच्या रुका वयल्यान.
जीवीत देवाचें सकाळिच्या वतांत
भरता भूमीर हाडता जीवीत
करता रुपीत काडता अनीत
जीवीत देवाचें मनशा काळजांत
भुकेन सुकोन गेल्ल्या आत्म्यांत
जीवीत देवाचें हासच्या तोंडार
दिसता तें फुलाच्या फुलांत
करता राज रातिच्या चांदण्यात
जीवीत देवाचें दर्या सागरांत
धापटून आपटुंच्या ल्हारांत
धांवता तें मळबाच्या कुपांत
देंवता तें हिंवाळाच्या दवांत.

*

( ' राखणो ' पत्राचे कृपेन)

## १८. भुरग्यापणाचे दीस

याद म्हका येता
म्हज्या भुरग्यापणाचो
मतिच्या पड्द्या पाटल्यान
लिपोन गेल्ल्या
म्हज्या जीविताचो,
ते दीस गेले
म्हजे मतिंतले
निसरून सरले
विसरून लिपले
भूत काळाच्या
वेळाच्या अंधकारांत
ते मिसळले
ते भरसाले
ते दीस गेल्ले
बरेच जाले
कित्याक ते
वेचेच आशिल्ले
दीस भुरग्यापणाचे
आयले आनी गेले
आतां ते
पयस पावले
वेच्या पयलें
म्हजे जायते
हाल हवाल
करून गेले.

तांच्या घासांतले
कपटी पासांतले
भायर येताना
म्हजे सारखेच
बारा ब्रेस्तार
तेरा सुक्रार
बरेच जाले
ह्या फुडले
दीस तरी
बरे हाची
कसली खात्री ?
येतात ते
दीस सारचे
आनी मरचें
त्याच्या पयलें
मनशाकुळाक
सार्थक जावपाचें
कांय तरी
दिवन वेचें

※

## १९. वेळाच्या सागरांत

वेळाच्या सागरांत
जीविताच्या होडयांत
‘ मनीस ’ तारवटी
प्रवास करता

होडयाची शीड चिंतप
वोलो करून शिकप
वाट दाखयता वाचप
फुडे वेताना

वाऱ्या वादळाक
पावसा वताक
गिमांक हिंवाक
भिये नासतां चलता

देवाचो आधार
मनशाचो सांगात
सर्वांचो सहकार
ताका लाभता

भद्रतेच्या बंदराक
शाबीत ठिकाण्याक
सुखाच्या जाग्याक
पावूंक आशेता

वेंळ घडी पावतच
मरण लागी येतच
सरचें ना जीवीत
अमर तें जाता.



(‘ राखणो ’ पत्राचे कृपेन)

## २०. कवी वा कपी

चिंतना दुसऱ्यांची चोरून
अुतरां हेरांची हाडून
चार कवितां लिखून
बडाय सांगून भंवतात
‘आमी जाल्यांव कवी’
कोण खरो कवी
कोण पिसो कपी
पारखून सांगूंक जाय
कवितां वाचच्या रसिकांनी
विचार आसच्या वाचप्यांनी.
जाय तशें अुलोंवक
मनांत आशिल्लें लिखूंक
तोंडांत आयल्लें झांकूंक
रसाळ मासाळ काव्यशास्त्र
कपिंचें राज न्हय.
कविच्या काळजांतलीं भोगणा
ताच्या मतितलीं चिंतना
जीवितांतलीं विवीध घडितां
हांचो जावन संगम
काव्याचो जाता अुगम
काव्याची झर फुटता
साहित्याची धार व्हाळता
रसिकांक मनोरंजन दिता
तेन्ना कवितांचो रचपी
रसिकांचो जाता कवी.

*

(आकाशवाणी, पणजी हांचे कृपेन)

## २१. नवऱ्याची बडाय

फांत्यापारार साद घालता कोंबो
होकलेक पळेवन दोळे मोडता नवरो.

घरा सामकार लायलां तुळशिचें झाड
नवऱ्यान वाडयलां बकडयाचें खाड.

दंय चाळतच मेळता ताक
वाकडें दिसता नवऱ्याचें नाक.

शेतांत आमच्या जाल्यात धवे दुदी
नवरो होकलेक घालता भांगराची मुदी.

आंब्याच्या रूकाक लागला बेंदर
होकलेक नवरो मेळ्ळा रेंदेर.

होकलेचो कुळार आसा कारवार
नवरो काम करता तारवार.

सांज जातच घरांत लायलो दिवो
नवरो बसून मारता होकलेच्यो अुवो.

मडें खांवक अेकठांय जाल्यात गीद
होकलेक पळेवन नवऱ्याक येना नीद.

रुकार अेक पिकल्या पोपाय
होकल पळेता नवऱ्याची सोबाय.

पेराच्या रूकार बसून आसा पाको
नवऱ्याचे मांडियेर होकलेक मेळता जागो.

आंब्या रुकार बसून आसा कावळो
नवरो आमचो रूपान दिसता सावळो.

शिकप शिकूंक आसूंक जाय मत
नवरो म्हणता ‘ म्हाका नाका दोत. ’

*

(आकाशवाणी, पणजी हांचे कृपेन)

## २२. होकलेची सोबाय

आंबो कापूंक घेतली रुप्याची सुरी
राणी आसा गोरी गुणान भारी बरी.

लग्नाच्या जेवणाक केला दाळिचों सार
होकलेच्या गळयांत सोबता मोत्यांचो हार

गोरवांचे खावणेर आसात तणाच्यो पेंडियो
होकलेच्या बोटांत सोबतात सुवर्णाच्यो मुदियो

वणतीर धांवता धाटी-मोटी पाल
तांबडे गोरे होकलेचे गाल.

वाटे वयल्या शेतांत जाल्यांत वांयगणा
होकलेच्या पांयांत आसात पांयजणा

कोंब्याचे तकलेर सजता शेंकरें
होकल पळेंवक दिसता भेंकरें.

गाय आमची वियेला काळो पाडों
होकल बाय न्हेसला तांबडो साडो.

आकासाच्या आंगणात तारांची रास
होंकलेच्या माथ्यार फुलांचो वास.

भागींत आमच्या फुल्ला परमळिक गुलाब
होंकल हासो दिता स्वादिक दुलब.

शेतांत आमच्या पिकल्यात मोटे टोमाटे
होकलेक आमच्या रुचानात कांदे बटाटे.

चार आण्याक म्हणतात पावली
होकल आसा सोबीत बाहुली.

अेक पांय घरांत एक पांय दारांत
भांगराचो नेकलेस होकलेच्या गळ्यांत.

रुप्याच्या हांड्याक सोन्याचें धांकण
होकलेच्या हातांत भोगराचें कांकण

*

(आकाशवाणी, पणजी हांचे कृपेन)

## २३. धेडे-धेडियांची मजा

घरा सामकारच्या न्हंयत अुडतात शेवटे
धेडियांक दोळे मारतात धेडे लेंवटे.

खारव्याच्या जाळांत पडले बांगडे
नवऱ्याचे धेडे सगळे लंगडे.

गोंयांत काजुच्या सोऱ्याक म्हणतात फेणी
धेडचां संगी बसून धेडी सांगता काणी.

तुरंगांत कैद्यांक दितात सजा
धेडियां वांगडा धेडे मारतात मजा.

बागेंत मोगरीं शिवतीं फुल्ल्यांत
धेडियांक पळेवन धेडे भुल्ल्यात.

घरा भोंवती लायल्यात माडियो
धेडचांक देखतच हासतात धेडियो.

सुण्याची शेपटी सदांच वांकडी
होकलेची धेडी आसा तेंकडी.



## २४. तुजें येणे

स्वामिया वेगी ये
धनिया लागी ये.
येशी जाल्यार सकाळिच्या दवा परी
म्हजे काळीज गायतलें सुकण्या बरी
येशी जाल्यार गिमांतल्या पावसा परी
भुमी फुलतेली झाडां किरलातेलीं.

मोगा धांवत ये
राया हासत ये
अुदेशी जाल्यार सकाळिंच्या सूर्या परी
फांकयशी अुजवाड म्हज्या तोंडाचेरी
दाखयशी जाल्यार वाट मोगाची
चलान हांव नीट वाटेरी.

## २५. पिंजकर काळीज

रागान तुंवें
उतरांच्या भाल्यान
काळीज म्हजें
सारखेंच शिंदलें
आतां कित्याक
मोगा सुअेन
अुम्याच्या सुतान
तें शिंवताय ?
घाय घांपत
माअू अुरतली
खुणा कशी
तुज्या गर्वाची
हचा म्हज्या
पिंजल्या काळजाचेर



## २६. हांवें म्हळें

म्हाका भूक लागल्या
हांवें आरडून म्हळें
अेकल्यान अेक मूठ
शीत म्हाका दिलें
दुसऱ्यान भाकरीचो कुडको
म्हाका दिलो
ते बाबडे नेणा आशिल्ले
म्हाका लागल्ली भूक
गिन्यानाची

म्हाका तान लागल्या
हांवें परतून म्हळें
ताणी म्हाका अुदक दिलें
हाणी म्हाका दूध दिलें
तांकांय खबर नाशिल्ली
म्हजी तान चिंतपाची

हांव खरोच थकलां
हांवें तांकां म्हळें
म्हाका निदूंक खाट दिली
मात्थाक म्हज्या अुशें दिलें
म्हाका जाय आशिल्ली
खाट प्रेरण दिवपाची
न्हय नीद काडपाची

सांज आयली रात जाली
हांव म्हणूक लागलों
बायलेन दिवो लायलो
धुवेन दिवटी पेटयली
तांकां दिसलो काळोक
म्हज्या कुडिंतलो
खरो अंधकार
भरून गेल्लो
म्हज्या काळजांत



# २७. जरले

घरांत बाबा भरल्यात जरले
दितात नाका जाल्ले रगळे
दिसाक खंय ते लिपतात
रातीक खंय थावन येतात
म्हाका हें नवल समजाना
जरल्या बाबांचें सवाल सुटाना
घरांत जरले दारांत जरले
पेटेंत जरले डब्यांत जरले
हजार धरले शेंभर मारले
धरून मारून हात थकले
हात थकले पांय मुयेले
जरले मात चडत रावले
चडच्या जरल्यांक रावोंक चितलें
चितून नियाळून योजन केलें
कुटूंब योजन जरल्यांक येंवजिलें
येंवजिल्लें वखत पसऱ्यांत नाशिल्लें
पसऱ्यांत आशिल्लें वीख हाडलें
वीख खावन कुंकडां मेलीं
मासाचीं कुंकडां फोंडाक गेलीं
कुंकडांक लागून बायल पिशी
म्हाका दुरसाली " केन्ना मरशी ? "
जरल्यांक लागून बायलेचे त्रास
जातात म्हजें हाल हवाल

*

## २८. लग्नाचो बांध

रागान तूं गेलेंय
लग्नाचें बंधन तुटयलेंय
मोगाचें नंदन मस्तिलेंय
काळीज म्हजें फुटयलेंय
कित्याक अशें केलेंय ?
मोगाची ती हुनसाण
हांवें दिल्ली गोडसाण
कशी तू विसरलेंय ?
जीविताची थोडी कोडसाण
प्रीतिची अुणी तिकसाण
कित्याक अुकलून दाखयताय ?
लग्नाचें हें जोडें
विघ्नाचें घेवन होडें
तांडून वेता फुडे
नेणा खंयच्या कडे.
जीविताचो हो प्रवास
घेवन तुजो सहवास
करूंक आसा निवास
प्रसारूंक आसा सुवास
ह्या संवसारांत.
मोगाविणे जीवीत
जातलें अर्थरहीत
सदांच दुखाभरीत
मोगाच्या जिवा

काळजाच्या गोंड्या
अुतरां म्हजी
हीं विसर नाका
सुटयताना हो
आमच्या लग्नाचो
बांध मोगाचो.



## २९. जीविताचो रूख

अिश्वरा तुका आमी भेटयतांव
परमेश्वरा आमी तुका अर्पितांव
जीवीत आमचें तुज्या भुरग्यांचें
कुरूप जाल्लें सुरूप तूं कर.
चल्ल्यांव घेवन खंत आनी दूख
आयल्यांव हाडून कुडी आत्म्याची भूख
लाभय आमकां शांती समाधान सूख
जा तूं आमच्या जीविताचो रूख.
चलतेल्यांव आमी सता नीतिचे वाटेर
जियेतेल्यांव तुजे मयामोगाचे शिकवणेचेर
दी धीर आधार आमच्या प्रवासाचेर
आशीर्वाद घाल चार दिसांच्या जीविताचेर.

*

## ३०. तिनसांज

दीस धारेर पडला
सूर्या दर्यांत लिपला
प्रकास मंद जाला
अंधकार चडत आयला.

दंपती वेळेर बसल्यांत
भुरगीं रेंवेंत खेळतात
सुकणी अुडूंक लागल्यांत
खारवी जाळां धुतात.

दर्यांत ल्हारां अुठतात
ल्हारां खडपाक मारतात
अुदकांत मासे अुडतात
मळबार तारां चकचकतात.

अिगरजेंत घांट वाजता
घरांनी प्रार्थन जाता
मंदीरांनी भजन आयकाता
मशिदींत नमाज चलता.

*

## ३१. भिकूण

दिसाक लिपचें रातीक चाबचें
रगत चिंवचें काम म्हजें
हातांक चाबतां पांयांक चाबतां
कुल्यांक चाबतां पोल्यार चरतां
चरून चरून हळू चाबतां
धरूंक गेल्यार धांवून लिपतां.
चिंवतां रगत दादल्यांचें बायलांचें
जाण्टयांचें आनी नेण्टयांचें
पियेतां रगत सर्व जातिचें
रगत चडल्ल्यांचें देंवोंवचें
देंवल्ल्यांचें आजून देंवोंवचें
काम सादें म्हाका दिल्ले
करतां हांव सदांच तें
रातीक घोरेतेल्यांक जागयतां
दिसाक निदतेल्यांक उठयतां
मनीस म्हाका कांठाळतात
भिकणाचे जातीक शिरापतात
ही कसली अनीत
खंय लिपल्या काय नीत ?
मनीस पोटाचे भुकेक
खाता प्राणिचें मास
चडीत पयशांचे आशेक
मारता दुसऱ्यांक घास
हांवें मात मोगान
चिंवल्यार ताचें रगत
वचून वेगीं पसऱ्यांत
हाडून मारता
' Tik Twenty ' वखत



## ३२. आरशे

म्हज्या जीवितांतले आरशे
विवीध आकारांचे
यरावळ प्रकारांचे
हजार जातिंचे.

कुडींत म्हज्या
वणतीर आसा
काचिचो आरसो
प्रेयसीन दिल्लो.

दोळे म्हजे आरशे
काळचा निळचा रंगाचे
तांतल्यान हांव देखतां
रूप ह्या सृष्टिचें.

अिश्ट म्हजें आरशे
सदगूण दुर्गुणाचे
तांच्या दोळचांनी पळेतां
गूण अवगूण म्हजे.

शिक्षक म्हजे आरशे
म्हाका शिकयताना
ते सदांच विसरताले
नाशिल्ले म्हूण सर्वज्ञ.

विद्यार्थी म्हजे आरशे
तांकां हांवें शिकयलें.
ताणी म्हाका दिलें
गिन्यान पुस्तकांनी नाशिल्लें

वाचप शिकप अुलप
म्हजे मोगाचे आरशे
तांतू हांव पळेतां
खरें स्वरूप म्हजें.



## ३३. अरबी दर्या

विशाल अरबी दर्या देखताना
काळीज म्हजें संतोसान नाचता
दर्यांतलीं ल्हारां चोयताना
ल्हार जाव्यां सारखें भोगता.

दर्याचो आवाज आयकाताना
म्हाकाच हांव विसरतां
दर्यांतलीं होडीं पळेताना
वेळेवर रावोन हांव धलतां.

वेळेचे रेंवेर नदर पडताना
भुरग्यापणाचो याद म्हाका येता
आज हांव जाण्टो जालां
तरी काळजान नेण्टोच उरलां

विशाल दर्याचो अुगडास येताना
संकुचीत स्वार्थपणाची लज दिसता
सांजेच्या शांत वातवरणात भंवताना
जिवांत म्हज्या जीव भरता.



## ३४. पवसाळा

मळब मेघांनी भरलां
सूर्या कुपांनी लिपला
वातावरण थंड अुरलां
प्रकाश मंद जाला

दक्षिणेचें वारें मारता
झिम् झिम् पाअूस पडता
अुदेंतींत झगलावणे झगझगता
गडगडयाचो आवाज गडगडता

बेबे डराव करतात
रेडे नांगर ओडतात
दादले शेत नांगरतात
स्त्रियो रोंपी लायतात.

भुरगी अुदकांत खेळतात
कागदाचीं होडीं करून
अुदकांत तीं सोडून
मजेन खुशेन नाचतात.

व्हाळ अुदकांनी घसघसतात
रूक पानानी चकचकतात
शेतां भातांनी लकलकतात
सागर तुफानानी भसभसतात.

*

## ३५. राखी

शांती मोगाची
कांती सदांची
मोगाच्यो दोगी
म्हज्यो बहिणी
पावली तुमची
कुंदापूर गांवची
राखी मोगाची
नागपूर गांवांती
काळजांत हांव धादोसी
मनात पावलों खुशी
आत्म्यांत जालों सुखी
देखतच तुमची राखी
जावन आसा राखी
खुणा ही मोगाची
बहिणीन ती बांधची
आपल्या भावाच्या हाताचेरी
भावान आपले बहिणीची
करची सेवा मोगाची
राखची तिका कष्टांतली
विघ्ना अडचणेतली

*

(‘ राखणो ’ पत्राचे कृपेन)

## ३६. चिंता करी नाकात

चिंता करी नाकात
न्हेसचें कितें
खांवचें कितें
खाणा जेवणा परस
जीव वरतो
परमेश्वर दैवीक कृपेन न्हेसयता
आपल्या जिवान आमकां पोसता,
स्वामी, आयक हांव एक भिकारी
तुजे समोर हांव अेक नेणारी*
खंयसर मेळत म्हाका सूख
थाबोंवक म्हजी आत्मिक भूख
हांव भुकेलां
अमर करपी खाणाक
हांव तानेलां
जीविताच्या उदकाक·

---

* Ignorant

(' राखणो ' पत्राचे कृपेन)

## ३७. पिशे

आमी बाबा पिशे
मेंटल होसपितलांतले
तुमी आमकां पळेंवक आयले
घेवून गितार रेबेक तुमगेलें
आमकां खुशी करूंक तुमी नाचले
आमकां देखतच तुमचे मधले
किस्स...करून हासले
थोडे आमचे लागीं चार अुतरां अुलयले
अुरल्ले अुलोंवक भियेले
कांयजण आमकां पळेवन म्हणाले
" हे बाबा पिशे
हांच्या लागीं अुलोवन
फायदो तरी कितें ?"
तुमकां आमी पिशे दिसले
तुमी नकळो आशिल्ले
आमी हांगा कित्याक पावले
तुमी जर जाणा आशिल्ले
आमकां पळेवन हासते नाशिल्ले
तुमकां आमी विचारूंक चितल्लें
तुमी हांगा कित्याक आयल्ले
मोगान आमकां भेट दिवक आयल्ले
वा पिशांक पळेंवचे तुमचे
आंवडे भागांवक आयल्ले
आमी मनीस तुमचे सारखे

रग्ता मासाचे हाडा कातिचे
तरी आमी तुमकां पिशे दिसले
आमचेर दिश्ट घालूंक तुमी आशेले
देखून तुमी हांगा पावले
आमकां सांगा कोण आतां खरे पिशे
पिशांक पळेंवक आयल्ले
तुमीच खरे पिशे.

## ३८. एकसुरें गीत

शेतांतल्यान वेतास्ताना हांवें देखली
सिदी सादी अेक चली
हातांत तिच्या कोयती
ती शेत कापताली
आपल्या वावरांत मग्न जाल्ली
आपणा अितल्याक गीत गायताली
कितें ती म्हणताली हाची खात्री
म्हाका सारखी जांवक नाशिल्ली.
तिच्या त्या गिताचे सूर
न्हय दुखकर वा मधूर
म्हाका तो दिसलो विचीत्र
तिच्या काळजांतलीं भोगणा
दाखयतालो कुरकुरीत.
तिच्या प्रेमिची याद
ती करताली
सांडून गेल्ले
आवय खातीर रडताली
वेळ पाशार करूंक
बेश्टीच बडबडताली
हांची खात्री करची तितली
म्हाका फुरसत मेळूंक नाशिल्ली
हांव फुडे गेलों
ती आपलें गीत
आजून गायताली.

*

## ३९. काल–आज–फाल्यां

कालचो दीस गेलो
आयचो आजून आसा
फाल्यांचो येवपाचो आसा.
कालचो दीस सुखाचो
आयचो मातसो त्रासाचो
फाल्यांचो काळजी करपाचो.
हाका कारणा आसात
काल अिश्ट आशिल्ले
आज परकी जाले
फाल्यां दुस्मान जातले
काल रुपय आशिल्लो
आज पावली उरल्या
फाल्यां पयसो ना
काल आमी दोगां
आज जाल्यांव तेगां
फाल्यां जातेल्यांव चोवगां.
काल कामार आशिल्लों
आज बसलां बेकार
फाल्यांचे नेणा तक्रार.
काल रीण दिल्लें
आज रीण हाडलें
फाल्यां करूं कितें ?
काल हांव पूत
आज जालां बापूय

फाल्यां जातलों आजो.
काल मास खेल्लें
आज मासळी खातांव
फाल्यां माती खातेल्यांव
काल आशिल्लों भाटकार
आज जालां मुंडकार
फाल्यां पडतलों रसत्यार
कालचो दीस तसलो
आयचो दीस असलो
फाल्यांचो दीस कसलो
हें दुसऱ्यांक सांगून
आसा अेकच फायदो
तोंडाची घाण काडपाचो.



## ४०. कुड्डो

ह्या संवसाराचेर म्हजो पांय तेंकताना
हांव कुड्डो जावून जल्माल्लों
हाची खबर
तुमच्या कानार पडतच
तुमी म्हळें
"पाप भुरगो, दोळे नाशिल्लो
संवसार देखोन संतोस पावतो."
तुमचीं अुतरां आयकून
हांवें तुमकां बोबाट केलो
हांव दोळे नासून कुड्डो
तुमचे भंवती अनीत चलताना
मनीस मनशांक खाताना
गरीब भुकेन मरताना
तुमी दोळे आसून
कुड्डे कित्याक जाले ?
कशे जाले ?
केन्ना जाले ?

म्हाका तुमच्या अुतरांची दया नाका
तुमच्या कपट मोगाची माया नाका
तुमच्या भिकेची म्हाका गरज ना
तुमच्या धनाची म्हाका आशा ना
म्हाका म्हजे अितल्याक सोडा
अंधकाराचे कायलींत
भाजून लासून मरूंक दिया.

म्हजो संवसार तुमकां कुड्डो दिसलो
तुमचे वाटे वयलो कांटो
हांव जालों
तुमकां दिसता तें म्हाका दिसाना
म्हाका दिसता तें तुमकां
केन्नाच दिसपाचें ना.



## ४१: तूं कोण

" तूं कोण ? "
हो प्रश्न
म्हाका आयकालो
तेन्ना हांव
म्हज्या स्वपाणातलों
जागो जालों
चिंतूंक लागलों
हांव कोण ?
' हांव कोण ? "
हांवें म्हाकाच
प्रश्न केलो.
हांव मात्येचो मुदो
त्या मुद्यांत आसा
जीव दिवपी आत्मो

" तूं कित्या जल्माल्लों ? "
दुसरो प्रश्न आयकालो
म्हजो राग
पायांतलो मस्तकाक
चडलो.
हांव कित्याक जल्मल्लों ?
हो प्रश्न
म्हाका जल्म दिल्यांक
विचारूंक जाय आशिल्लो

पुण म्हाकाच
तो विचारून जालो
देखून
ताचो जबाब
हांवेंच
दिवचो पडलो.
हांव जल्मल्लों
सिद्ध करपाक
मनशाचो जल्म
मोनजातिच्या जिवा
परस वर्तो
म्हाका दाखोंवक आशिल्लें
हांव मनीस
रगता मासाचोच
हाडा कातीचोच
अेक पुतळो न्हय,
अंनत दिव्य ज्योतिची
अेक वात जावून
समाजांत अुज्वाड फांकोवपी
अेक तेलाची दिवटी
मिणकुंची क्षुल्लक पण्टी,

" तूं खंय वेतलोय ? "
तिसरो प्रश्न
रोकडोच आयलो

हांवें बोबाट केलो
हें तुजें चड जालें
तूं माजर
हांव हुंदीर
माजरा हुंदराचे
खेळ खेळून
चितपा सारखे
प्रश्न विचारून
तुंवें म्हजी
मत पिशी केली.
हांव वेतलों
हांव कुडीन मरतलों
पुण नास जावपाचो ना
हांव रूपांतर जातलों
म्हाका निर्माण केल्ल्या
रचणाराच्या गोपांत
अेक जातलों

"ह्या फुडले प्रश्न
तूं तुकाच विचार"
म्हाका तो
ताळो म्हणालो
तूं येता मेरेन
हांव निदेंत आशिल्लों

आज अुटलों
चिंतूंक शिकलों
हांव विचार करतलों
मनशाचे अस्थित्व
थीर करच्या
चिंतपाच्या सागरांत
हांव म्हजो प्रवास
चालू दवरतलों



# ४२. जळार

येतां हांव जळार
सोडून म्हजें कुळार
करून म्हजें कंतार
करतां तुमकां बेजार
तुमी म्हाका मोगाचीं
देखून येतां रातिचीं
अुठोंवक तुमकां सपणातलीं
जागोंवक तुमचे निदेंतलीं
तुम्ही सुरू केलां
तुमचे कुटूंब–योजन
देखून अुणे जालां
म्हाका रगताचें भोजन
वयज सुओ तोपतात
पयशे बरेच घेतात
हांवूय सुओ तोपतां
सेवा धर्माची करतां
भुकेल्ल्याक जेवण वाडप
तानेल्ल्याक पियन दिवप
हाचे परस वरतें
पून* ना दुसरें
खांवक म्हाका नाका
पियेंवक आसल्यार दिया
व्हाळच्या तुमच्या शिरांतलें
रगत तांबडें जिवें

---

* पुण्य, grace

✲

## ४३. कसाओगार

जातीन हांव कसाओगार
कातीन हांव काळसार
बकडचो म्हशी कोंब्यो मारतां
बकडे रेडे पाडे कापतां
लोक म्हाका भियेता
सुरी देखतच थरथरता.
तुमचे परी हांवूय मनीस
दोळयांनी म्हज्या दूख आसा
शिरांनी म्हज्या रगत व्हाळता
करचें कितें सांगों कशें
काम हें म्हजें सदांचें
गोरवां मोनजातिंचे गळे कापचे
तांचें मास तुमकां विकचें
करतां हांव सेवा समाजिची
भागयतां तुमची रूच मासाची
हांव नासल्यार मास खंयचें
मास नासल्यार जेवण तरकारिचें
कोनशांतलो म्हाका मनशांत हाडा
' कसाओगार ' बिल्लो काडून सोडा.

*

## ४४. जीवीत

मेलों तर मेलों
मरण कोणाक चुका ना
अुरलों तर अुरलों
नशीब आसताना.

जीवन मरण कुपां
जीविताचीं दोन रुपां
अुठयतात ल्हारां
खातात म्हजीं मासां

जीव आसून मेलां
गिन्यान असताना लिपलां
धन नासताना बसलां
तरूण आसून पिकलां.



## ४५. जेजू आनी हांव

आज म्हाका जेजू भेटलो
दर्या वेळेर चलताना
म्हाका ताणे सवाल केलें
" म्हजो तुजो संबंध कितें ? "
हांवें ताका म्हळे
" जेजू तूं सर्व जाणाय
आमचो संबंध मात नेणाय ?
हांव तुकाच विचारतां
म्हजो तुजो संबंध कितें ? "
जेजू हासलो.
म्हाका म्हणालो
" तूं शाणो
हांव तुजो
तूं म्हजो
संबंध हो
आमच्या दोगांयचो

*

## ४६. दिसतात म्हाका दुखां

काती वयल्ती सोवाय नाशिल्ली
देखून तुवें म्हाका विंचली ना.
काती पंदल्या गुणाच्या रुपाची
याद तुका कित्याक जाली ना ?
म्हाका विद्यापिठाची सनद नाशिल्ली
म्हणून म्हाका तिरस्कार केलेंय
जीणच म्हजी शाळा करून
जोडल्लें शिकप तुवें नाकारलेंय
हांव गरीब दुबळीं
तुका पंसद जालीं ना
पयशां परस मनीस मोलादिक
हें तुका कित्याक समजालें ना ?
तुवें विंचून हाडली
सोबायेची पुतळी
शिकपी चली
पयशेवाली
दोत दिवपी
तरुय आज दोळ्यांत तुज्या
दिसतात म्हाका फकत दुखां

*

## ४७. आमच्यो गजाली

आजी म्हजी सांगताली
कुंडो खातेल्याक रूच अंडयाची
कशी कळतली ?
तिका हांवें जाप दिली
अंडो सोड कुंडोच मेळाना
रुचिची खबर कित्याक काडताय ?

आजो म्हजो बडबडतालो
हांवें खेल्ल्या मिठा तितलें
तुमी शीत जेंवक नात
हांवे ताका जबाब दिलो
मीठ खेल्यार पिवपाक उदक ना
शीत जेवल्यार हागपाक सुवात ना.

बापूय म्हजो गुरगुरतालो
"भुरग्यापणार खेल्ली मास मासळी
आतां खांवची पडली दाळ भाजी"
तुवें मासळी खेल्ली चड जाली
म्हणून दर्याक सुक्ती आयली
ह्या फुडे माती खांवची पडतली.

भांगर कितलें म्हारग जालां
आवय म्हजी दुरसाताली
आदीं भांगर मेळतलें पयशेच नाशिल्ले
हांवें तिका जाप दिली
बायलांची तुमची जात मरतच
भांगरान बांदुयां तुमच्यो समाधी

*

## ४८. म्हाका वेळ ना

म्हाका आज वेळ ना
तुमचे कडे अुलोंवक मन आसा
तुमगेर रावूंक आशा येता
पुण आज म्हाका
वेळ ना.
धांवत्या ह्या जगा सांगाता
हांवूय धांवतां
हांवूय पळतां
कित्याक धांवतां
खंय पळतां
हाची म्हाका लक्षाच ना
चिंतूंक हें म्हाका
वेळ ना.
तुमगेर बसूंक वेळ ना
सूख दूख आयकूंक
फुरसत ना
कित्याक आज म्हाका
काम आसा
कसलें काम विचारूं नाकात
कारण जाप दिवपाक
वेळ ना.
म्हजेर राग करू नाकात
राग धरून फुगार नाकात
सगळें तुमकां येतच सांगतां
कित्याक आतां म्हाका
वेळच ना.

*

## ४९. हांव रडलों

आज हांव खूब रडलों
कोणे म्हाका दुखोंवक ना
कोणे म्हाका मारूंक ना
तरूय हांव रडलों
अुगडास काडून
म्हज्या मरणाचो
हांव मरतच
मडें म्हजें देखतच
कोणेच रडचें म्हाका नाका
हांव वेतच
लोकाक दाखोंवक
तकली धाडावन
हडुं बडोवन
रडणे विळाप
रूदन नाका
रडूंक जाय तर
रडा आतां
हांव जीव आसताना
भुकेन वळवळून सुकताना
काम नासून बेकार भंवताना
अनीतेच्या दावलेंत सांपडताना
म्हजें रगत दुसमान चींवताना.
तुमी म्हाका विचारलें
जीव असताना कित्याक रडणे,
निर्जीव जाल्ले कुडीर म्हजे
रडोन तरी फायदो कितें ?

*

## ५०. गाडव

लांब कानाचें
व्हडल्या पोटाचें
रंगान कुरूप
जिवान विद्रूप
आंगान म्हेळें
पळेंवक भागाटें
मतीन मंद
असलें
हांव गाडव
सुण्याक आसा मान
माजराक आसा स्थान
म्हाका मात
ना मान
वा स्थान
आसात फकत
व्हडले दोन कान.
गाडव जावन जल्माल्ली
म्हजी कशी चूक?
वाटेर पडल्लें खावन
याबोंवची जाली भूक
मनशां मधें आसात गाडवां
शिकप शिकल्लीं आतांची चेडवां
राग आयल्यार
म्हणूक पाटीं सरानात

“ कितें जाय गाडवा ?”  
घोवाक बायल गाडव  
बायलेक घोव गाडव  
बापायक पूत गाडव  
आवयक धूव गाडव  
सासूक सून गाडव  
म्हाका सांगा  
कोण आतां  
गाडव  
म्हाका दिसता  
मनीसच अेक  
खरें गाडव.



## ५१. दिवो

सुर्या बुडलो
अुजवाड लिपलो
काळोक आयलो
दिवो लायलो
दिव्यान दिलो
प्रकास आपलो
काळोक गेलो
घरा भितरलो
काम दिव्याचें

दिसूंक सादें
पेल्याक गरजचें
न्हय मरजेचें
काम ताचें
पेल्याक अुपकारचें
आपणे जळचें
अुजवाड दिवपाचें

दिवो जळता
तेल संपता
अुजवाड दवता
काळोक वाडता
प्रकास नासतां
अंधकार आसतां
अनीत चलता
नीत लिपता

*

## ५२. पुरुषत्व

दोळे आसून कुड्डे
कान आसताना भेरे
केन्ना तुमी जाल्यात ?
भंवारी गरीब भिकारी
घर नाशिल्ले परदेशी
दुखांच्यो झरी गळयताना
आस्कार हुस्कार काडताना
तुमी मजा मारतात ?
युवक बेकार भंवताना
भिकारी रसत्यार मरताना
मालक कामगाराक पिळताना
कामगार नितीक झुजताना
शेतकार रीण मागताना
वस्तूंचीं मोलां चडताना
नश्टयांचीं कर्तुबां वाडताना
तुमी ओगेच बसल्यात ?
पुरुषत्व कित्याक लिपयतात ?

## ५३. शिक्षकाची जीण

शिक्षकाची जीण
आपणे शिकून
दुसऱ्यांक शिकोवन
गिन्यान वाडोवपाची
स्वतः झरोवन
रगत आटोवन
पेल्याक वयर
हाडपाची

जीण ताची
पीटांतल्या फुगिची
निद्रेस्त जाल्ल्यांक
चेतन हाडपी

जीण ताची
दर्यांतल्या मिठाची
आळसाय काडून
जिवसाण जिवाळ
करपी

जीण ताची
मेणा वातिची
काळोक धांवडावन
अुजवाड फांकोवन
आपणे अुणे
जावपाची

जीण ताची
हातांत विद्या आसून
किस्यांत दुडू नासून
भिक्षा मागूंक लजेवन
भुकेन मरपाची

परक्यांच्या घरांत
दिवो पेटोवन
आपल्या घरांत
काळकांत बसपाची
जीण ही
शिक्षकाची

## ५४. भुरग्यांचो संवसार

व्हडांक दिसता
भुरग्यांचो संवसार
चिंता नाशिल्लो
मजा मारपाचो
हासचो खेळचो
नाचचो अुडचो.
म्हाका दिसता
भुरग्यांचो संवसार
भुरग्यांचे नदरेन
पळेंवचो पडतलो
तेन्ना दिसत
ताची अुंचाय
अगाध खोलाय
लांबी रुंदाय.
त्या संवसाराची
विवीध आंगां
हजार रुपां
देखताना
म्हाका दिसलें
भुरग्यांचें जीवीत
कितलें विचित्र

*

## ५५. कोंकणाचे खारवी

वेळे वयले आमी खारवी
मासळी मारचे पागी आमी
मारतांव काष्टी कामान कष्टी
जिवान पुष्टी आसांव संतुष्टी.

जाळां अुडोवन मासळी मारतांव
गरी घालून निसतीं धरतांव
दीस रात वात्र करतांव
सांजेर मात पियेवन लकतांव

धरतांव आमी बांगडे तारले
खुबे काणे शेवटे सांगाळे
विकतांव बाजारांत सुंगटां, कालवां
कुरली करली पालू शेतकां

होडयार बसून दर्यांत वेताना
ओलीं तांडून मुखार सरताना
होडें दर्याच्या अुदकार नाचताना
जीव कांपता ल्हारार धलताना

वाचूंक बरोंवक आमी नेणाव
मासळी धरूंक बरी जाणाव
पँट सूट घालूंक लजतांव
काष्टी चड्डी न्हेसून भंवतांव

कातीन काळे गुणान भोळे
मतीन नेण्टे काळजान जाण्टे
गांवान किनाऱ्याचे विस्तार कोंकणाचे
कोंकणी अुलोवपी खारवी कोंकणे

*

(आकाशवाणी, पणजी हांचे कृपेन)

## ५६. बीं आनी वोंपी

वोंपी अेकलो वोंपूक गेलो
शेंतांत बीं अुडोंवक लागलो
थोडें बीं वाटेर पडलें
सुकणी आयलीं ताणीं खेलें
पडलें थोडें खडपी जमनीर
अुदक नाशिल्ल्या सुक्या भुमीर
तें किरलालें
पाळां नाशिल्ल्यान ओताक सुकलें
हेर पडलें कांटचांमधें
कांटे वाडले बीं किरलालें
कांटचांनी ताका चेपून मारलें
अुरल्लें पडलें सुपिक शेतांत
पीक जालें विवीध मापान.



## ५७. गाजता ताळो

सदांच गाजता ताळो ताचो
विशाल दर्या वेळेर
वैभव दिसता ताचो सारखो
अूंच मळभा आकासाचेर

ताचो मोग दिसून येता
नेण्टया हासच्या बाळशां थंय
सोबाय ताची पाचारता
दर्या व्हाळची न्हंय.

अगणीत दिसता ताचें त्राण
अूंच अुभार दोंगरांचेर.
ताची दया समेस्तांचेर
अनाथ गरीब विधविंचेर.



## ५८. काळजा दर्यांत

काळजा दर्यांत
देखलीं हांवें
अुठोन येवचीं
भावनांचीं ल्हारां
तांतल्यान लुकलुकतलीं
चितपाचीं तारां
वर्णूंक तीं
मेळ्ळीं नात
जाय पुरतीं
अुतरां

अिश्टागतिचो पूल बांधला
मया मोगाचे न्हंयचेर
बुन्याद ताची घाला
विश्वासाच्या खडपाचेर

मनीस म्हणजे कितें
मात्येचें आयदान तें
आदळून फुटून वेचें

वेळाच्या सागरांत
जीविताच्या होडयांत
' मनीस ' तारवटी
प्रवास करता.

हांव चलो चारोडी
ती चली गावडी
मनशां मधें जाती
कोणे केल्यो दोशी ?